# आयकात काणी

हिंदी रुपान्तरकार

**विष्णु प्रभाकर**

कोंकणी

अणकारपी

**नयना आडारकर**

चित्रांकन

मृणाल बोस






साहित्य अकादेमी

# म्हजे वतीन

काणयेचो जल्म केन्ना जालो, कोणूच नकळो. मनशाक बुद्ध आयली तेन्नासावन घडये तो काणयो सांगूक आनी आयकूंक लागलो. उपदेसाच्यो काणयो, हांसोवपी काणयो, मूर्खांच्यो काणयो, बुदवंत लोकांच्यो काणयो अशो तरातरांच्यो काणयो आमकां धर्मिक पुस्तकांनी मेळटात.

आयज सोमदेव भट्टान बरयिल्ल्या 'कथा सरित् सागर' ह्या सामक्या पोरण्या पुस्तकांतल्यो कांय काणयो हांव तुमकां सांगतलों.

सोमदेवान पोरण्या लोक काणयांक नवो आयाम दिला. पैशाची भाशेंत बरयल्ल्या काणयांचें सगळ्यांत पयलें पुस्तक म्हळ्यार 'बृहत्कथा.' दोन हजार वर्सां पयलीं पैशाची भाशेंत बरयल्ल्या ह्या पुस्तकाचें नांव आसलें 'बड्ड कथा.'

मागीर ह्याच पुस्तकाचेर आदारून पंडितानी संस्कृत भाशेंत 'बृहत्कथा', - 'श्लोक संग्रह' आनी 'बृहत्कथा मंजिरी' नांवांचीं पुस्तकां बरयलीं. अशें म्हण्टात, काश्मीरचे म्हाराणीक 'बृहत्कथा मंजीरी' हें पुस्तक आवडलें ना. तिणें सोमदेवाक तें पुस्तक सोप्या - म्होंवाळ भाशेंत बरोवपाची विनंती केली.

मागीर सोमदेव भट्टान बऱ्या म्होंवाळ भाशेंत त्यो काणयो बरयल्यो. आनी कांय नव्याय काणयांचो त्या पुस्तकांत आस्पाव केलो. हें पुस्तक म्हळ्यार सामक्या सोंप्या भाशेंत बरयल्लो देख दिण्या - खोस दिण्या काणयांचो ग्रंथ. हातूंत राजा उदयनाच्या पुताची नरवाहन दत्ताची मुखेल काणी जरी आसली तरीय तातूंत आनीकूय काणयो आयल्यात. ह्यो काणयो राजाचे इश्ट राजाक सांगताले.

तातुंतल्योच कांय काणयो हावें तुमचेखातीर तुमचेच भाशेंत बरयल्यात. हातूंत जायत्यो अशोय काणयो आसतल्यो ज्यो तुमी तुमच्या आज्जे कडल्यान आयकल्यात वा ख़ंय ना खंयतरी वाचल्यात. देसां - देसांत आनी अख्या विश्वांत ह्यो वा असल्योच तरेच्यो काणयो वाचतात आनी आयकतात.

येयात तर आनीक एक फावट आमी त्योच काणयो वाचूंया, आयकुंया.

- **विष्णु प्रभाकर**

## खंड 1
## चिंतात आनी चिंतात



## खंड 2
## हांसात आनी हांसात

# नाणीं चोर

खूब तेंपा आदीं श्रावस्ती नांवाच्या नगरांत, प्रसेनजित नांवाचो राजा राज्य करतालो. त्याच नगरांत दुसऱ्या देशांतल्यान आयिल्लो एक भट, आपल्या इश्टाच्या घरांत राबित्याक आसलो. तो वेपाऱ्यांचो पुरयत आसलो. ताका जोडूय खूब आसली. ताणें आपणाकडेन जमिल्लीं नाणीं बरीं साठोवन दवरलीं.

अशे तरेन ताणें दोन हजार नाणीं एकाठांय केलीं. तीं घरांत दवरल्यार कोणूय चोरून व्हरपाचो भंय आशिल्लो. त्या तेंपार बँकूय नाशिल्ली. म्हूण ताणें तीं नाणीं लागींच आशिल्ल्या रानांत एका झाडापोंदा पुरलीं. पूण तरीय ताचें मन शांत जालें ना.

तीं नाणीं कोणूय चोरून बी व्हरत म्हूण ताका ओगीच



भंय दिसतालो.

आनी खरेंच एकदीस तशेंच जालें. तो सदचे वरी झाडामुळांत नाणीं पळोवंक गेल्यार कोणे तरी नाणीं चोरून व्हेल्यांत. ताचो आवरोच उडलो. ताका खूब्ब दुख्ख जालें. आतां जगून तरी कितें उपेग? तेपरस मेल्लो बरो, ताणें येवजिलें. पूण मरप म्हळ्यार कितें सोपी गजाल! ताका कितें करचें कळना जालें.

त्याच चिंतनांत आसतना, ताणें ही गजाल आपल्या इश्टाक सांगली. मागीर ती गजाल एका कानांतल्यान दुसऱ्या कानांत, दुसऱ्या कानांतल्यान तिसऱ्या कानांत पावत पावत राजामेरेन पावली. गजाल आयकून राजाकूय खूब वायट दिसलें. ताणें भटाक आपयलो आनी विचारलें, तुवें तीं नाणीं कसल्या झाडा पोंदा पुरिल्लीं?

'म्हाराज, हावें नाणीं वडाच्या रुखा पोंदा पुरिल्लीं' भटान जाप दिली.

राजान सगळी गजाल आयकून घेतली, मागीर मात्सो विचार करून म्हळें, 'तूं हुस्को करूं नाका. तुजी नाणीं कोणे चोरल्यांत हें हांव सोदून काडटां. आनी जर चोर मेळ्ळोना जाल्यार म्हज्या खजिन्यांतल्यान तुका दोन हजार नाणीं दितां.'

राजाच्या उतरांनी भट खूब खोशी जालो. ताणें राजाक आशिर्वाद दिलो आनी थंयसावन गेलो.

राजा खूब बुदवंत आशिल्लो. येवजितकच ताच्या मनांत एक विचार आयलो. ताणें मंत्र्याक आपयलो आनी सांगलें,

'म्हजी तकली सामकी उसळटा, बऱ्याशा वैजाक आपोवन हाड.'

जालें, मागीर कितें. एक़ापरस एक बरो वैज येवन राजाचेर इलाज करपाक लागलो. राजा प्रत्येक वैजाक एक प्रस्न विचारतालो, 'आयजकाल तुमचे कडे़न कितले पिडेस्त येतात, तांकां कसलें कसलें वखद दितात?'

राजाक खूश करपाखातीर सगळे वैज अतितायेच्यो जापो दिताले. एक दीस ह्या प्रस्नाची जाप दितना एका वैजान राजाक म्हळें, 'हांवें एका दुयेंतीक वखदा खातीर वडाच्या कोमऱ्यांचो उपेग करुंक लायला.'

राजान ताका विचारलें, 'तुज्या त्या दुयेंतीचें नांव कितें?'

वैजान म्हळें, 'म्हाराज, ताचें नांव मातृदत्त.'

वैज गेल्या उपरांत राजान मंत्र्याक आपयलो आनी सांगलें, 'कशेंय करून मातृदत्ताक आपोवणें धाड.'

मातृदत्त त्याच नगरांत रावतालो देखून ताका सोदपाक चड त्रास पडले ना. मातृदत्त येतकच राजान ताका विचारलें, 'तूंच न्हय तो वखदा खातीर वडाच्यो कोमऱ्यो वापरता?'

'हय म्हाराज, वैजान म्हाका ताचें तेल वापरुंक सांगलां.' मातृदत्तान जाप दिली.

'मागीर, कोण हाडून दिता तुका वडाच्यो कोमऱ्यो?' राजान ताका परतें विचारलें.

'म्हजो चाकर हाडटा.' ताणें जाप दिली.

'ताका सोमतोच हांगा धाडून दी. म्हाका मातशें काम आसा ताचेकडेन' राजान म्हळें.




कित्याक कोणाक खबर चाकर भितरल्यान बरोच भियेल्लो पूण वयलेचाराक दाखोवन दिनासलो.

राजान ताका विचारलें, 'तुज्या धनया खातीर वडाच्यो कोमऱ्यो तूंच हाडटा मरे?'

मान बागोवन चाकरान म्हळें, 'हय म्हाराज, हांवूंच हाडटां.'

'वडामुळांत तुका दोन हजार नाणीं मेळ्ळ्यांत तें आमकां कळ्ळां. तीं नाणीं एका भटमामाचीं. बऱ्यान वचून ताका ती परतीं दी.' राजान सांगलें.

चाकरान मोन्यांनी तीं नाणीं व्हरून भटाक दिलीं.



# बळार आनी बुदवंत मानगें

एका तळ्यांत खूब नुस्तीं रावतालीं, तळ्यादेगेर पांय दोडून रावपी बळारेक नुस्तीं भियेतालीं, आनी तिचेपसून पयस पयसूच रावतालीं.

पयस-पयस रावपी नुस्त्यांक कशे तरेन जाळांत फारावचीं हाचेर विचार करतनाच तिका एक युक्त सुचली. ती बेगबेगीन नुस्त्यां म्हऱ्यांत गेली आनी हुस्क्याभरीत आवाजान तांकां सांगपाक लागली, 'इश्टांनो, तुमकां एक वायट खबर सांगपाक हांव हांगां आयल्यां. हांवें आतांच एका खारव्याक जाळ घेवन ह्या तळ्यावटेन येतना पळयला. तो जाळांत तुमकां धरतलो आनी मागीर खातलो.'

खरें म्हळ्यार नुस्त्यांचो बळारीचेर साप्प विस्वास नासलो. पूण खारव्याक मात तीं खूब भियेतालीं. तांणी भियेत बळारीक म्हळें, 'आतां आमी कितें करप तर?'

बळारीन गंभीर आवाजान म्हळें, 'तुमचो म्हजेर विस्वास आसा जाल्यार हांव तुमकां एक युक्त सांगतां. हांगा लागसारच्या रानांत एक व्हडलें तळें आसा. गोड, शितळ उदकाचें. आनी त्या तळ्याविशीं खारवी लेगीत कांयच नकळो. तुमकां जाय, जाल्यार म्हज्यान तुमकां एक एक करून थंय पावोंव येता.'

खारव्याचें नांव आयकून नुस्तीं थर्त भियेल्लीं. तांची

तकलीच चलना जाली. तांणी बळारीक म्हळें, 'आमचो तुजेर विस्वास आसा. तुवें आमकां त्या तळ्यांत व्हरून सोडल्यार तुजे व्हड उपकार जायत.'

बळार भितरल्या भितर सामकी भुल्लूसली. ती

एक-एक नुस्तें घेवन वचपाक लागली. आनी एका जाग्यार पावतकच नुस्त्यांक मारून खावपाक लागली.

बळार नुस्त्यांक चोचींत धरून व्हरता हें पळोवन त्या तळ्यांत रावपी मानग्याक अजाप दिसलें. ताणें बळारीक म्हळें, 'तूं तांकां अशी खंय व्हरता?'

बळारीन परतीय तीच काणी सांगली. मानगें बळीश्ट आसलें खरें पुणून तेंवूय खारव्यांच्या जाळाक भियेतालें. ताणें बळारीक म्हळें, 'आगे, म्हाकाय मातशें त्या तळ्यांत व्हरून पावय.'

बळीरीची खोस दुपेटीन वाडली. दुसऱ्या दिसाच ती मानग्याक घेवन, नुस्त्यांक मारून खाताली त्या जाग्यार



पावली.

थंय पावतकच, आशिकुशीक पळोवन, मानग्याच्या लक्षांत सगळें आयलें. 'फटींग खंयचे कडली. नुस्त्यांक हांगा हाडून खालीं. आतां म्हाकाय खावंक सोदता.'

पूण मानगें भिजूड नाशिल्लें. 'हांव इतलें बळीश्ट, हावें आनी बळारीक भियेवप? ना-ना हें सारकें न्हय.'

मनांत आयलें, तशें मानग्यान बळारिची गोमटी धरली आनी तिका मारून वडयली. मानगें परतें आपल्या तळ्यांत परतलें आनी सगळी खरी खबर उरिल्ल्या नुस्त्यांक सांगली. बळारीच्या दुश्टपणाची गजाल आयकून सगल्यांक खूब वायट दिसलें. पूण आपलो जीव वांचलो हाचीय खोस जाली.



# बुदवंत सोसो

एका अटंग्या रानांत एक बळीश्ट शींव रावतालो. तो खंयच्याय जनावराक पळयतांच ताचेर झोंपय मारून ताका खावन उडयतालो.

खूब दीस अशेंच चलत रावतकच बाकिचीं जनावरां भियेलीं. आपआपसांत उलोवणीं करून तीं शिंवांक मेळ्ळीं. तांणी म्हळें, 'म्हाराज, तुमी कित्याक हुस्को करतात? तुमी तर आमचे राजा. दर दिसा आमीच तुमचे खातीर सावज धाडून दितात.

शिंवांक तें आयकून खूब खोस जाली. ताणें म्हळें, 'तुमी तुमचें वचन पाळ्ळ्यार हांवूय कोणाकूच मारचो ना.'

त्या उपरांत सदांच एक सावज शिंवा कडेन पावतालें. ताका मारून तो आपली भूक भागयतालो.

एक दीस एका सोंशाची  पाळी आसली. तो शिटूक आनी हुशार आसलो. जीव वाटावपाक कितेंच उपाय ना काय? तो विचार करूंक लागलो. बुदवंत लोक केद्दाय आनी कसल्याय संकश्टांत भियेनात. हांवेंय भियेवप समा न्हय. तेपरस सगळ्यांक वाटावपा खातीर कितेंय तरी मार्ग काडचो.

विचारांच्या तंद्रेंत चलतां चलतां ताका शिंवासरीं पावपाक कळाव जालो. शींव पयलींच रागान तांबडोच जाल्लो.

सोंशाक पळोवन ताणें गरड मारली आनी म्हळें, 'म्हजेकडेन येवपाक इतलो उशीर कित्याक जालो?'

सोंसो भियेलो ना. ताणें म्हळें, 'म्हाराज, हांव मुद्दाम उसरां येवंक ना. हांव हांगाच येतालों. वाटेर अकस्मात एक बळीश्ट शींव मेळ्ळो. ताणें म्हाका

आडायलो. म्हाका गरजेचें काम आसा तें सोंपोवन हांव रोखडोच येतां अशी फट मारून हांवें म्हजी सुटका करून घेतली.

तें आयकना फुडें शिंवाचे दोळे रागान तांबडेच जाले. ताणें शेंपडी आपटीत गरड मारली आनी म्हळें, 'म्हज्या राज्यांत आनी दुसरो शींव! खंय रावता तो? दाखय म्हाका.'

सोंशान थंडसाणेन म्हळें, 'म्हाराज, चलात. तुमकां ताच्या रावपाचो जागो दाखयतां.'

सोंशान शिंवांक एके बांयसरीं व्हेलो आनी म्हळें, 'म्हाराज, तो दुसरो शींव ते बांयत रावता. तुमी वचून पळयात.'

शिंवान बांयत पळेलें. पळयल्यार बांयच्या उदकांत ताका



ताचेंच प्रतिबिंब दिसलें. ताका दिसलें हो तोच शींव आसतलो. ते बराबर ताणें व्हडान गरड मारली.

तसो तो आवाज बांयभर घुमलो. 'म्हज्या आवाजा परस व्हड आवाज करता, राव ताका मारतांच.' म्हणत शिंवान बांयत उडी मारली आनी उदकांत बुडून मेलो.

सोंसो खोशयेन उडयो मारीत आपल्या इश्टांसरी आयलो आनी ताणें सगळी गजाल सांगली. त्या उपरांत सगळीं जाणां खोशयेन रानांत रावपाक लागलीं



# तीन नुस्तीं

एक सोबीत रान आशिल्लें. थंय एक तशेंच सोबीत तळें आशिल्लें. त्या तळ्यांत तीन नुस्तीं रावतालीं. तिगांयलो सभाव वेग वेगळो आशिल्लो. पयल्या नुस्त्यामुखार कसलोय प्रसंग आयलो जाल्यार तें तो रोखडोच सुटावो करपाचो यत्न करतालें. कोणाची वाट पळयत रावनासलें.

दुसरें नुस्तेंय हुशार आशिल्लें. पूण रोखड्या रोखडें कितेंय करपांत ताचो विस्वास नासलो. वेळ येतकीच पळोंव येता. ताचो पयलींच हुस्को कित्याक करप, अशें ताका दिसतालें.

तिसरें नुस्तें कांयच विचार करी नासलें. देवाक जाय तेंच जातलें अशें तें मानतालें.

एका दिसा कांय नुस्तें पागप्यांक थंय सावन वतना ताणीं पळयले. ते आपले भितरूच उलयताले, 'ह्या तळ्यांत बरीं नुस्तीं आसात. तांकां धरपाक जाय.'

पयल्या नुस्त्यान हें आयकलें मात तें रोखडेंच व्हांवत्या उदका बरोबर दुसऱ्या तळ्यांत गेलें.

दुसऱ्यानूय खारव्यांच्यो गजाली आयकल्ल्यो. ताणें विचार केलो, तांकां येवंदी तरी. मागीर कशें बरें दिसता तशें करचें.

तिसऱ्या नुस्त्यानूय हें आयकल्लें. पुणून ताका कसलीच



चिंता नाशिल्ली. जें जावपाचें तें जातलेंच. ताका कोणें आडावं येता? अशें म्हणून तें ओगी बसलें.

जावपाचें तें जालेंच. दुसऱ्याच दिसा ते खारवी जाळ घेवन थंय आयले. पयलें नुस्तें पयलींच दुसऱ्या तळ्यांत पाविल्लें. दुसरें जाळ पळयतकीच मेल्ल्यावरी पडून रावलें. खारव्यांक ताका पळोवन तें खऱ्यांनीच मेलां शें दिसलें. तांणी ताका काडून कुशीन शेंवटीलें. संद मेळटांच ल्हवूच ताणें व्हांवत्या उदकांत उडी मारली आनी तें दुसऱ्या तळ्यांत पावलें. तिसऱ्या नुस्त्यान कांय चितलेंय ना आनी केलेंय ना. जाळांत सांपडून तें मेलें.

■

# धर्मबुद्धी आनी दुश्टबुद्धी

हजार वर्सां पयलींची गजाल. एका शारांत दोग भाव रावताले. दोगांयचे सभाव सामके उरफाटे. तांच्या सभावाखातीरूच तांकां धर्मबुद्धी आनी दुश्टबुद्धी नांव पडिल्लें.

त्या तेंपार लोक दुडू जोडपाखातीर परदेसांत वताले. तशे हे दोगूय गेले. दीस रात वावर करून तांणी दोन हजार नाणीं एकठांय केलीं.

मागीर ते आपल्या मायदेशांत परतले. घराकडेन पावतकच तांणी येवजिलें, 'सगळे दुडू मोडचे परस थोडे दुडू कुशीन काडून दवरचे. गरजेक उपकारा पडटले.' तांणी एक हजार नाणीं थंयसल्ल्याच एका झाडापोंदा पुरलीं. आनी उरील्लीं हजार नाणीं आपले भितर वांटून घेतलीं.

दुश्टबुद्धी सभावान दुश्ट. एकदीस ताच्या मनांत असोच एक दुश्ट विचार आयलो. वचचें आनी झाडापोंदा पुरिल्लीं हजार नाणीं काडचीं आनी गिरेस्त जावचें.

जालें. ताणें तशेंच केलें. आनी कांय दिसां उपरांत धर्मबुद्धीकडे वचून ताणें म्हळें, 'भाऊ, तीं उरिल्लीं नाणीं आमी वांटून घेवया न्हय.'

धर्मबुद्धी बाबडो सादो. ताणें म्हळें, 'तुका जाय तशें करूंया.'

दोगूय त्या झाडाकडेन गेले. तांणी थंय उस्तून पळयल्यार

पुरिल्लीं नाणीं ना. धर्मबुद्धीक अजाप जालें. दुश्टबुद्धीन म्हळें, 'भाऊ, तीं नाणीं तुवेंच काडल्यांत. बऱ्यान म्हजो वांटो म्हाका दी.'

जालें, दोगांयमदीं आकांताचीं झगडीं पेटलीं. निमाणे दोगूय न्याय मागपाक राजासरीं गेले.

राजान तांकां विचारलें 'कितें जालें?'

दुश्टबुद्धीन राजाक सगळें सांगून म्हळें, 'म्हाराज हीं नाणीं धर्मबुद्धीनूच चोरल्यांत.'

राजान म्हळें, 'अशें तूं कित्यावेल्यान म्हण्टा? कोण गवाय आसा?'

दुश्टीबुद्धीन म्हळें, 'तो रुखूच म्हजी गवाय.'

तें आयकून राजाक आनी मंत्र्याक अजाप जालें. तांणी म्हळें, 'बरें आसा तर. आमी फाल्यांच थंय

येवन त्या रुखाक विचारतात.'

दोगूय भाव आपआपल्या घरा गेले.

धर्मबुद्धी धर्मान चलपी. जैत आपलेंच जातलें हाचेविशीं ताका खात्री आसली. देखून ताका कसलीच चिंता नासली. पूण दुश्टबुद्धीक भिरांत आसली. देखून घरा गेले बराबर ताणें सगली गजाल आपल्या बापायक सांगली आनी म्हळें, 'बाबा, तूं आतांच वचून त्या रुखाच्या घोलींत वचून लीप. फाल्यां थंय राजाचे अधिकारी येतले. तांणी विचारल्यार तांकां सांग हीं नाणीं धर्मबुद्धीनूच चोरल्यांत.'

बापायन पुतान सांगलें तशेंच केलें. रातीचोच तो रुखाच्या घोलींत वचून लिपलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं न्यायमंत्री

थंय पावले आनी तांणी रुखाक विचारलें, 'ह्या दोगूय भावांनी हांगा पुरिल्लीं नाणीं कोणें काडल्यांत हें तूं सांगशीत?'

बापायन रुखाच्या घोली भितरल्यान जाप दिली, 'नाणीं धर्मबुद्धीनूच चोरल्यांत.'

न्यायमंत्री जाप आयकून अजापलो. रुख केन्नाच उलयनात.



शेर्त घोली भितर कोणूय पूण बसला आसतलो. जालें, तांणी रुखाक उजो लावपाचो आदेश दिलो.

रुखाक उजो लागतांच हुलोप लागून दुश्टीबुद्धीच्या बापायन घोलींतल्यान भायर उडकी मारली. पूण तो मेरेन तो खूब हुलपल्लो आनी रोखडोच मेलो.

सत कितें ते न्यायमुर्तीक कळ्ळें. ताणें दुश्टबुद्धीक भावाचीं नाणीं परतीं दिवपाचो आदेश दिलो आनी ताचे हात तेन्नाच्या कायद्या प्रमाण कापून ताका देशा भायरो केलो. ■

# वेपाऱ्याची तागडी

एक वेपारी आसलो. ताचेकडेन आज्या - पणज्याच्या पिळगेंतल्यान चलत आयिल्ली सवामण वजनाची लोखणाची तागडी आसली. एक फावट त्या वेपाऱ्याक परदेसांत वचचें पडलें. वतना ताणें ती तागडी आपल्या वळखिच्याच एका वेपाऱ्यागेर दवरली.

खूब दिसा उपरांत तो परतलो. परततकूच ताणें आपल्या इश्टाकडे ती तागडी मागली.

इश्टान म्हळें, 'बाबारे, म्हाका सांगूंक वायट दिसता. पूण कितें करूं? सांगचेंच पडलें. तुजी ती तागडी हुंदरान खाली मरे!'

ताचीं उतरां आयकून वेपारी भितरल्या भितर हांसलो. ताणें म्हळें, 'आसूं, आसूं. कांय नजो. ती तागडी तशी आशिल्लीच रुचीक, देखून हुंदरान ती खाली आसतली. हांव हो आतांच आयलां. घर लेगीत निवळ करूंना. आतां तुगेरूच जेवंक रावतां.'

इश्टान म्हळें, 'बरेंभशेन, हेंवूय घर तुजेंच.'

जेवचे पयलीं न्हावन घेवचें म्हूण तो वेपारी आपल्या इश्टाच्या पुताक घेवन न्हंयचेर गेलो. बऱ्या वेळान परतलो तेन्ना ताच्या सांगाताक इश्टाचो पूत नाशिल्लो.

इश्टान विचारलें, 'आरे, म्हजो पूत खंय?'

कश्टी जायत वेपाऱ्यान म्हळें, 'तुका कितें सांगूं? एक घोण आयली आनी तुज्या चल्याक घेवन उडून गेली.'

तें आयकून इश्टाक भिरभिरी मारली. ताणें रागान म्हळें, 'घोण केन्ना भुरग्यांक घेवन उडूं शकता व्हय? अशें कशें जावं येता? तुवें म्हज्या पुताक खंयतरी लिपोवन दवरला आसतलो. म्हाका नाडपाक सोदता? राव, राजासरींच वतां हांव.' म्हणत तो राजदरबारांत आयलो. ताच्या सांगाताक वेपारीय गेलो.

राजान सगळी गजाल आयकली आनी म्हळें, 'घोण



भुरग्याक उखलून व्हरप शक्य ना. तूं फट उलयता. बऱ्यान खरें तें सांग.'

वेपाऱ्यान राजाक हात जोडले आनी म्हळें, 'म्हाराज ज्या देशांत लोखणाची तागडी हुंदीर खावं शकतात थंय घोण भुरग्याकूच कित्याक हतीक लेगीत उबारून व्हरूंक शकता.'

मागीर ताणें सगल्यांक सकाळची गजाल सांगली. राजाक सगळी गजाल आयकून हांसूंक आयलें. ताणें रोखडीच वेपाऱ्याच्या इश्टाक तागडी परती दिवपाची ओर्द सोडली. ताणें तागडी परती दितकच ताका ताचो भुरगोय परतो मेळ्ळो.



# खरो इश्ट

आमच्या देशांत 'कन्नौज' नांवांचें एक शार आसा. एका तेंपार थंय चद्रापीड नांवाचो राजा राज्य करतालो. ताच्या सेवकाचें नांव आसलें धवलमुख. ताणें सदांच घरा जेंवक येनास्तना भायरुच जेवन येवचें. एक दीस ताचे बायलेन ताका विचारलें, 'सदांच उठून तुमकां जेवण दिता तरी कोण?'

'आसात म्हजे दोन इश्ट, तूं तांकां वळखना. एकलो कल्याणवर्मा आनी दुसरो वीरबाहु. कल्याणवर्मा म्हाका पोटभर खावय-पिवयता. आनी वीरबाहु म्हजेखातीर आपलो जीव लेगीत ओंपपाक तयार आसता.' धवलमुखान जाप दिली.

जाप आयकून तिणें म्हळें, 'अजापूच बाये. तुमी म्हाका केन्ना सांगलेंयना, केन्ना दाखयलेंय ना. पूण फाल्यां मात हांव तुमचे बरोबर येतलींच.'

'बरे भशेन' धवलमुखान म्हळें.

रोखडोच दुसऱ्या दिसा तो कल्याणवर्मागेर गेलो. इश्टाचे बायलेक आपल्यागेर आयिल्ली पळोवन कल्याणवर्माक खोस जाली. ताणें बरे तरेन तांची सरबराय केली. धवलवर्माची बायलूय धादोस जाली.

ताच्या दुसऱ्या दिसा तो वीरबाहुगेर गेलो. वीरबाहु तेन्ना

बुद्धीबळ खेळटालो. तांकां पळोवन वीरबाहुन तांची बरी वासपूस केली. आनी परतून तो खेळपांत गुल्ल जालो.

घरा परतल्या उपरांत धवलमुखाच्या बायलेन म्हळें, 'आमी कल्याणवर्मागेर वतकच ताणें आमकां काय बरो येवकार दिलो. पूण वीरबाहुन फकत वासपूस केली. तरीय तो तुमचो खासा इश्ट कसो?'

बायलेचीं उतरां आयकून धवलमुखान हांसत म्हळें, 'तुका तांची परिक्षा घेवपाक जाय जाल्यार हांव

सांगता तशें कर. एकलीच तांचेकडेन वच आनी सांग, राजा म्हजेर खूब रागार जाला. आतां तांणीच म्हजी राखण करची. मागीर ते कितें उलयतात, कशे वागतात ताचेर तांचें खरेपण कळटलें.'

बायलेन सांगलें तशेंच केलें. पयलीं ती कल्याणवर्मा सरीं गेली आनी ताका सगळी गजाल सांगली.

कल्याणवर्मान म्हळें, 'बाये गे हांव पडलों वेपारी. म्हज्यान



राजाकडेन कशी टक्कर दिवं येता? म्हाका तुज्या घोवाची राखण करपाक जमपाचें ना.'

निराश जावन ती वीरबाहु म्हऱ्यांत गेली. वीरबाहुन सगळी गजाल आयकली मात तो सट्ट करून उठलो आनी आपलें शस्त्र घेवन धवलमुखासरी आयलो.

धवलमुखान म्हळें, 'इश्टा, हांवें तुका त्रास दिले खरे. पूण राजाक मंत्र्याकडल्यान खरी गजाल कळून ताचो म्हजेवेलो राग गेलो. आतां राजाकडेन वचपाची गरज ना.'

वीरबाहुक तें आयकून खोस जाली. मागीर तो आपल्या घरा परतलो.

तो वतकच वीरबाहुन आपले बायलेक म्हळें, 'तुका कळ्ळो न्हय दोगांयचे इश्टागती मदलो फरक! एकल्याची इश्टागत वयलेचाराची, शिष्टाचारा पुरती. दुसऱ्याली इश्टागत खरी. दोगांय मदीं पांकटसाण आसा. पूण एकांत तेलाची, दुसऱ्यांत गांवठी तुपाची.'



# दोग भाव

एका तेंपार पटना शारांत यज्ञसोमं आनी किर्तिसोम नांवाचे दोग ब्राम्हण भाव रावताले. तांच्या बापायन तांचे खातीर बरीच आस्पत दवरिल्ली.

शिटूक किर्तिसोमान वेपारांत दुडू गुंतयले आनी बरोच फायदो जोडलो.

पूण व्हडल्या भावान, यज्ञसोमान मात सगळो दुडू खावपा जेवपाक आनी दान-धर्माकूच खर्चिलो. निमणो सामको खांकनवाळ जालो. 'अशे परिस्थितींत आपल्या भावांमदीं रावप म्हळ्यार लजेक पडप ते परस खंयूय पयस वचून जीव दिल्लो बरो.' ताणें आपले बायलेक म्हळें.

'तुमी सांगतात तें खरेंच. पुणून हांगाच्यान दुसरेकडेन वतलीं म्हळ्यारूय वाटखर्चाक दुडू जायच. तुमी तुमच्या भावाकडेन वचून मागात.' बायलेन सांगलें.

किर्तिसोमाकडेन वचून ताणें सगळी गजाल सांगली आनी म्हळें, 'विदेशांत वचून कितेंय पूण जोडीन म्हण्टां. पूण वाट खर्चाक तुवें कितेंय दिल्यार बरें जावपाचें.'

आपल्या भावाची दशा पळोवन किर्तिसोमाक खूब वायट दिसलें. ताका कितेंय आदार करचो म्हूण ताणें बायलेक विचारलें. पूण बायलेन म्हळें, 'तुमच्या भावाक फकत दुडू मोडपाक येतात. जोडूंक येनात. हेवूय दुडू तो खावपा -



जेवपाकूच मोडटलो.'

आपले भावजयेचीं उतरां आयकून यज्ञसोम कांयच घेनासतना परतलो आनी बायलेक घेवन वाटेक लागलो. चलतां - चलतां तीं दोगांय एका अटंग्या रानांत पावलीं. थंय एका व्हडल्या भिरांकूळ हारान यज्ञसोमाक सोमतोच गिळून उडयलो. तें पळोवन ताची बायल जमनीर लोळून आकांत करपाक लागली. त्या हारान मनशाच्या आवाजान तिका

विचारलें, 'कल्याणी तूं अशी कित्याक रडटा?'

'कित्याक म्हळ्यार? म्हजें भिक्षा-पात्र तर तुवेंच घेतलें' तिणें म्हळें.

हारान आपल्या तोंडांतल्यान एक भांगराचे भिक्षापात्र तिका दिले. तिणें म्हळें, 'पूण म्हाका पापणीक कोण भीक घालतलो?'

'जाचे मुखार हे भिक्षा-पात्र धरशीत तो भीक घालतलोच.

पूण जर घालीना जाल्यार त्याच खिणाक ताचे तकलेचे शंभर कुडके जातले.' हारान तिका सांगलें.

ते बराबर यज्ञसोमाचे बायलेन तें भिक्षापात्र हाराच्या मुखार धरलें आनी म्हळें, 'खरेंच, तशें जाल्यार सगळ्यांत पयलीं हांव तुजेकडेन म्हज्या घोवाचीच भीक मागतां.'

हारान जिव्या यज्ञसोमाक सोमतोच ओकून उडयलो. आनी अजाप घडलें. त्या हाराच्या जाग्यार एक दिव्य पुरूस उबो रावलो. ताणे म्हळें म्हजें नांव कांचनदेव. हांव विद्याधरांचो राजा. गौतम रुशिंच्या स्रापान हांव हार जाल्लों. हांवें भोगसणी मागून उशाप मागलो तेन्ना तांणी म्हाका सांगिल्लें. एका नितीचे बायलेकडेन उलोवपाची संद मेळटली तेन्ना हांव स्रापांतल्यान मुक्त जातलों. तुजे खातीरूच हांव मुक्त जालों.

ताणें तें भांगराचें आयदन रत्नांनी भरलें आनी तांचो निरोप घेवन तो आकाशमार्गान आपल्या देशांत गेलो.

ती रत्नां पळोवन दोगांय खोशी जालीं. काम करीत रावल्यार संपत्तीय वाडटा हें तांकां कळून आयलें. मुखावेलें जिवित दोगांय काम करीत सुखा समाधानान जियेलीं.



# सोसो आनी हत्ती

एका रानांत चंद्रसर नांवाचें व्हड तळें आसलें. तळ्याधडेर सोंशे आनी तांचो राजा शिलमुख बरेभशेन रावतालो. पूण एका वर्सा पावस पडलोचना. सगळे कडेन उदकाचो दुकळ पडलो. ह्या तळ्याचेंय उदक आटपाक लागलें.

त्याच रानांत कांय हत्ती रावताले. हतयांक उदकाची चड गरज. देखून आपलो राजा चतुर्दंता सयत हांगा-थंय उदक सोदीत भोंवतां भोंवतां ते ह्या तळ्यासंरी पावले. तळ्याच्या चोंयवशीन रावपी सोंशे ह्या हतींच्या पायापोंदा सांपडले आनी मेले.

तें पळोवन राजा शिलमुखाक खूब दुख्ख जालें. ताणें सगळ्या सोंशांक आपयले आनी म्हळें, 'हतयांक ह्या तळ्याचो सोद लागला. आतां ते सदांच हांगा येतले आनी आमी तांच्या पांयापोंदा चिड्डून मरतले. तांणी हांगा येवचेंच न्हय म्हण कसलोय तरी उपाय सोदून काडूंक जाय.'

थंय विजय नांवाचो एक शिटूक, हुशार सोंसो आशिल्लो. आकांताच्या वेळार सदां तोच पावतालो. ताका पळोवन राजान म्हळें, 'विजय, आतांमेरेन ज्या ज्या वेळार तुवें कसलेंय काम हातांत घेतलां त्या त्या वेळार तुवें तें यशस्वी करून दाखयंला. तुजे कडेन तशी शिटुकसाण आनी योग्यताय आसा. आतांय हत्तींच्या राजाक मेळून, कितेंय पूण सांगून,

तांकां हांगा येवपाक तूंच आडावपाक शकतलो.'

आपली तोखणाय आयकून विजय भुल्लुसलो आनी रोखडोच तो हत्तींच्या राजासरीं वचपाक गेलो. ताणें हतयांक येतना पळयले तसो तो बेगोबेग एका दोंगुल्लेच्या तेमकार वचून बसलो आनी ताणें म्हळें, 'हे हती राजा, हांव चंद्रदेवाचो रकाद घेवन हांगा आयलां. ताणें सांगलां, हे चंद्रसर तळें म्हजें, हांव

हांगाच रावतां. हांगा रावपी सोंशे म्हजे सेवक आनी हांव तांचो स्वामी. तुवें आनी तुज्या हतयांनी म्हज्या तळ्याचें उदक घाण केलें आनी म्हज्या सेवकांकूय मारून उडयले.'

सोंशाचीं उतरां आयकून हती राजा भियेलो ताणें म्हळें, 'दुता, चंद्रदेव म्हजेर खरोच रागार जाला?'

सोंशान गंभीर आवाजान म्हळें, 'हय तर, खुबूच रागार जाल्लो तो. पूण आमी ताका पांयां पडून तुमचे खातीर भोगसणी मागली. तांणी हे फावट तुमकां माफ केले पुणून



परतून अशी चूक घडल्यार मात ख्यास्त फावो जातली.'

हती राजान सगळें आयकून नमळायेन म्हळें, 'चंद्रदेव म्हाका पूजनीय. ताची आज्ञा मानून हांव ह्या तळ्यार परतो केन्नाच येवंचोना.'

हतया राजाचीं उतरां आयकून विजय भितरल्यान सामको खूश जालो. ताणें म्हळें, 'यो, चंद्रदेवाची भेट घेवंया. तूं मागीर ताची माफी माग.'

विजयान हती राजाक तळ्याचेर व्हेलो. उदकांत आशिल्लें चंद्राचें प्रतिबिंब दाखयत ताणें म्हळें 'हो पळय चंद्रदेव.'

हती राजान उदकांतल्या चंद्रबिंबाक हात जोडून भोगसणी मागली. त्या उपरांत हत्ती थंय केन्नाच आयले नात. सोंशेय पयलीं वरी हांसत - खेळत रावपाक लागले.



# दोग इश्ट

भुरग्यांनो तुमी दर्या पळयला आसतलोच. अशेच एके दर्यादेगेर एक रान आशिल्लें. त्या रानांत जांबळांचीं खूब झाडां आशिल्लीं. तांकां बरीं जांबळां लागतालीं. तुमी केन्ना खाल्यांत जांबळां? बरीं गोड आसतात.

एक दीस दर्यादेगेर बसून एक माकोड जांबळां खातालो. तेन्नाच एक जांबळ झाडावेल्यान सकयल दर्यांत पडलें. दर्यांत एक मानगें रावतालें. उदकांत पडिल्लें जांबळ पळोवन ताच्या तोंडाक उदक सुटलें. ताणें बेगबेगीन तें खालें. तें खातकीच मानगें गांवंक लागलें.

ताचें म्होंवाळ आवाजांतलें पद आयकून माकोड संतुश्ट जालो. ताणें खुबशीं जांबळां तोडून मानग्याक दिलीं.

मागीर मानगें सदांच उठून दर्यादेगेर माकडाक मेळपाक येवपाक लागलें आनी माकोड ताका जांबळां खावोवपाक लागलो. दोगांयमदीं दाट इश्टागत जाली.

तांची इश्टागत दिसानदीस आनीकूय दाट जायत गेली. मानग्यान दर्यादेगेर येवचें, जांबळां खावचीं वा गायत रावचें. अख्खो दीस ताणें दर्यादेगेर माकडाच्या सांगातान सारचो. तें पळोवन मानग्याच्या बायलेक भिरभिरी मारची. तिका दिसचें ताका ना म्हजो हुस्को, ना घरादाराचो हुस्को. ना वेळ ना काळ. दिसूयभर भायर. ही इश्टागत म्हळ्यार

म्हज्या जिवाक घोर. तांची इश्टागत तोडचीच पडटली.

जालें, एक दीस कसलेशें नीब करुन ती खाटीर ओग्गी पडून रावली. मानग्यान विचारलें तरीय हूं काय चूं केलेंना.

मागीर मानगें आपल्या बायलेचे इश्टिणी लागीं गेलें आनी तिकाच आपले बायलेच्या रागाचें कारण विचारलें.

इश्टिणीन म्हळें, 'अशे कशे तुमी? तुमकां म्हणून बायलेची मातूय चिंता ना. तिका बाबडेक कसलें तरी भिरांकूळ दुयेंस जालां.'

मानगें भियेलें. ताणें म्हळें, 'ह्या दुयेंसाक कसलें वखद बी ना? तुका खबर आसल्यार म्हाका सांग.'

'म्हाका खबर आसा. पूण तुमकां तें वखद हाडपाक जावचें ना.' तिणें म्हळें.

'कित्याक तर? म्हाका तूं सांगूनच पळय. म्हज्या घरकान्नी खातीर मळबातलीं नकेत्रां लेगीत हाडून दिवपी हांव.'

ताच्या उतरार गंभीर जायत इश्टिणीन म्हळें, 'तुजे बायलेक माकडाचें काळीज खावंक मेळ्ळें जाल्यार तिचें दुयेंस ना जातलें.'

तें आयकून मानगें थर्त भियेलें. 'माकडाचें काळीज? तें कशें दितलों हांव? तो तर म्हजो खासा इश्ट. काय बरीं गोड गोड जांबळां खावयता. ताचें काळीज कशें घेतलों हांव. तशें करप म्हळ्यार इश्टागत दुस्मानकायेंत बदलप.

मानगें तेन्ना ओग्गी रावलें. पूण रातभर चिंतीत रावलें - बायल मेल्यार भुरगीं अनाथ जातलीं. संवसार उबंत पडटलो.

ताका कितें करचें तेंच कळना जालें. निमणें बरें चिंतून, ताणें बायलेक म्हळें, तुजे खातीर माकडाचें काळीज कित्याक अख्खो माकोडूच हाडटां. तूं कित्याक खंती जाता?

बायलेक बरे भशेन सांगून करून तो माकडासरीं आयलो. गजाली करतां करतां ताणें म्हळें, 'आमी इश्ट जाल्यार कितले दीस जाले. पुणून तुवें म्हजें घररूय पळोंवक ना



आनी बायलेकूय मेळूंना. आयज आमगेर योच. थंयच खावया - पिवया - नाचया - गावया आनी सुशेगय घेवया.'

माकोड ताच्या घरा वचपाक तयार जालो. मानग्यान ताका आपले फाटीर बसयलो आनी घरा वचपाच्या वाटेक लागलो. वाटेर माकडाक मानगें उदास कशें दिसलें. ताणें म्हळें 'इश्टा कितें जालां? तू असो अवचित उदास सो जालो?'

मानगें मंदबुद्दी - अक्कल नाशिल्लें. ताणें फट करून म्हळें, 'इश्टा म्हजे बायलेक एक भिरांकूळ दुयेंस जालां.

माकडाचें काळीज खाल्यारूच तें दुयेंस पयस जावपाचें. म्हाका तीच खंत जाता.'

माकोड खूब बुदवंत आशिल्लो. खिणांत सगळें ताच्या लक्षांत आयलें. निमतां सांगून म्हाका घरा आपयता? दुश्ट खंयचो! बरें आसा, हांवूंय पळयतलों.

खीणभर माकड ओग्गी रावलो. मागीर ताणें म्हळें, 'आरेरे! इश्टा, तुवें म्हाका पयलीं कित्याक सांगलें ना? हांवें म्हजें काळीज त्या जांबळा झाडाचेर दवरलां. पयलीं सांगिल्लें जाल्यार तेन्नाच घेतलों आशिल्लों.'

माकडाची शिटूकसाण अबुद्धी मानग्याच्या तकलेवेल्यान गेली. ताणें रोखडेंच म्हळें, 'तशें

जाल्यार चल परते या. तूं झाडावेल्यान तुजें काळीज हाड मागीर घरा वचूंया.'

मानग्यान माकडाक दर्यादेगेर सोडलो तसो माकड वेळ वगडायनास्तना एका झाडार चडलो. आनी खळखळून हांसत मानग्याक ताणें म्हळें, 'आरे पिशा, काळीज केन्ना कुडीपासून वेगळें काडूं येता? तुका इतलेंय समजना? म्हजो जीव वाटावंक हांवें तुका सूरय फट मारिल्ली. आतां आनी तुजी इश्टागत नाका सायबा.'

मानगें बाबडें येदें तोंड करुन रित्या हातान घरा परतलें. मानग्याच्या बायलेक तेंच जाय आसलें.



# कानांचें सूख



एका नगरांत एक बरो गावपी रावतालो. एक दीस एका गिरेस्त मनशान ताका आपोवन गावपाक सांगलें.

ताकाय तेंच जाय आसलें. ताणें त्या गिरेस्ताक बरीं - बरीं पदां म्हणून दाखयलीं. गिरेस्त धादोस जालो. ताणें आपल्या भांडारीक आपोवन म्हळें, 'हें पळय, ह्या गायकान बरीं - बरीं पदां गावन म्हाका धादोशी केला. ताका दोन हजार रुपया दी.'

'हाडटा आं.' म्हणून गेल्लो भांडारी बरो वेळ जालो तरी परतो आयलोना देखून गायक स्वताच ताचेसरीं गेलो. तरीय ताणें गायकाक दुडू दिलेना. रागाभरशीं गायक गिरेस्त मनशासरीं आयलो. आनी ताणें म्हळें,

'तुमी सांगून लेगीत तुमच्या भांडाऱ्यान म्हाका दुडू दिलेना पळयात.'

'सारकें केलें ताणें. तुका दुडू दिवपाची कसली गरज?' गिरेस्तान म्हळें.

गायकाक हें आयकून धक्को बसलो. 'पुणून हांवें तुमकां गावन दाखयलां.' ताणें म्हळें.

'हय तर. तुवें म्हाका गावन दाखोवन म्हज्या कानाक सूख दिलें. हावें तुका पैशे दिता म्हूण सांगून तुज्या कानांक सूख दिलें. हिशेब सारको जालो.' गिरेस्तान म्हळें.

बाबडो गायक निराश जावन आपले वाटेक लागलो.



# बाबडो मुंगूस

एका नगरांत एका गरीब भट आनी भटीण रावतालीं. तांगेर एक पूत जल्मलो तशीं दोगांय सामकी खोशी जालीं. ते गरिबीचे परिस्थितींतूय ती ताचो बरो सांबाळ करतालीं. ताका नदरेआड करिनासलीं.

एक दीस भटणीन भटाक पुतासरीं बसयलो आनी ती न्हंयचेर न्हावंक गेली.

ज्युस्त तेन्नाच राजाची दासी राजाचो रकाद घेवन तांगेर आयली. तिणें सांगलें, 'भटमाम, तुमकां पूजा करपाखातीर आतांच राजम्हालांत आपयल्यात.'

भट येवजूंक पडलो. पुजेक गेल्यार पूत एकलोच उरतलो. वचना, दक्षिणा चुकतली. करप तरी कितें? बरें येवजितकच ताका एक उपाय सुचलो. ताणें एक मुंगूस पोशिल्लें. ताका पुतासरी राखण करपाक दवरून तो दासीबरोबर राजम्हालांत गे़लो.

भट गेल्या उपरांत स्वामीभक्त मुंगूस आपल्या धनयाच्या पुताची राखण करपाक लागलें. इतल्यांत एक सोरोप थंय आयलो. आपल्या धनयाच्या पुताचो जीव वाटावपाक मुंगूस त्या सोरपाचेर झुडूनं गेलें.

आनी ताचे कुडके कुडके करुन ताका मारून उडयलो.

पुजेक भटाक खूब दक्षिणा मेळ्ळी. ती घेवन तो घरा

आयलो. पळयल्यार दरवठ्यार रगतान भरिल्लें तोंड घेवन मुंगूस उबें आसा. ताका दिसलें मुंगूसान पुताक जिवोच



मारलो. जालें, रागाभरशीं ताणें एक व्हडलो फातर उबारलो आनी मुंगुसाचेर उडयलो. मुंगूस आकताक मेलें.

भट तसोच भितर धांवलो. पळयल्यार खाटीर पूत सुस्त न्हिदला. आनी खाटीसकयल एक सोरोप मरून पडला.

ताका खरी गजाल कळून खूब वायट दिसलें पूण तो मेरेन खूब कळाव जाल्लो. सवण्यांनी भात खातकच पिकासांव करून कितें उपेग?



# कापूस कसो निवळ केलो



एक आसलो शेतकामती. तो खूब कश्टी आशिल्लो. पूण सामको अरवळ. घडये देव अक्कल वांट्‌टना तो खंय तरी न्हिदून पडला आसतलो.

खूब वावर करुन एका वर्सा ताणें कापसाचें बरें पीक काडलें. आनी सगळो कापूस एकठांय करुन तो विकपाखातीर बाजरांत घेवन गेलो. पूण ताचो कापूस निवळ नाशिल्ल्यान कोणेच घेतलोना.

ताका बाबड्याक कापूस कसो निवळ करचो, हें लेगीत खबर नाशिल्लें. असोच वतना ताणें एका मनशाक शेटीकडे वतना पळयलो. त्या मनशान शेटीकडेन भांगर दिवन ताका म्हळें, 'मातशें हें भांगर म्हाका निवळ करुन दी.'

शेटीन भांगर बरें पारखिलें आनी मागीर उज्यांत घालून निवळ केलें.

तो हें बारीकसाणेन नियाळटालो. घरा वतकच ताणें कापट्यो - लाकडां एकठांय केलीं. तांकां उजो लायलो आनी सगळो कापूस तातूंत लासयलो. कापूस लासून गेलो आनी थंय फकत गोबोर उरलो.



# मूर्ख खड्डो



एक दीस एक खड्डो, मूर्ख मनीस फळां खावपा खातीर एके बागेंत गेलो. पूण फळां कशीं खावचीं हें ताका कळना जालें.

इतल्यांत हातांत बेलफळां घेवन दुसरो एक अबुद्ध तरणाटो थंयसावन वतालो. खूब भूक लागिल्ल्यान तो तीं फळां फोडून खावपाक सोदतालो. इतल्यांत ताची नदर खड्ड्याचेर गेली. ताका पळोवन हाका भितरल्यान कातकुतल्यो जावंक लागल्यो. ताचीं फकाणां करपा खातीर ताणे एक बेलफळ ताच्या खड्ड्यार आपटिलें.

खड्ड्याक सामकी सणसण मारली. पूण फुटिल्ल्या

बेलफळांतलो गोरोब खावपाक मेळटा म्हूण खड्ड्यान त्या तरणाट्याक कांय म्हळें ना आनी तापयलोना.

त्या तरणाट्याक हें पळोवन आनीकूय नेट आयलो. ताणें मागीर एक एक करून सगळीं फळां त्या मनशाच्या खड्ड्यार फोडलीं. खड्ड्याक घाय जावन तातुंतल्यान रगताचे व्हाळ व्हांवपाक लागले.

रगत पळय नाका, तरणाटो भियेलो आनी ताणें थंयसान पळ काडलो. तो खड्डोय आपल्या घरा गेलो. खड्ड्यांतल्यान व्हांवपी रगताक पळोवन ताच्या घरचीं मनशां सामकीं भियेलीं. तांणी विचारलें, 'कितें जालें? कोणें मारलो तुका?'

मूर्ख खड्ड्यान म्हळें, 'एका तरणाट्या कडेन जायतीं बेलफळां आशिल्लीं. ताणें म्हज्या खड्ड्यार आपटून तीं फोडलीं. म्हाकाय गोरोब खावपाक मेळ्ळो. इतल्या गोड गोरोबा खातीर हें इतलेंय सोसूंक जायना?' ताची उतरां आयकून सगळीं खळखळून हांसलीं.



# मूर्ख भट



एका गांवांत एक भट रावतालो. एक दीस दुसऱ्या गांवांत वचून ताणें एक बोकडो विकतो घेतलो. आनी ताका खांदार मारून ताणें घरची वाट धरली. ताका तसो वतना तीन भामट्यांनी पळयलो. ह्या भटाक कशें नाडचें हे खातीर आपल्या भितर तांणी एक येवजण तयार केली. ताच्या वाटेरूच ते तिगूय विंगड विंगड जाग्यांचेर उबे रावले.

सगळ्यांत पयलीं वाटेर राविल्ल्या भामट्यान म्हळें, 'भटमाम हें कितें? ह्या सुण्याक सो असो खांद्यार घेतला?'

ताच्या उतरांची भटाक भिरभिरी मारली, ताणें म्हळें,

'दोळे फुटल्या व्हयरे तुजे? तो सुणो न्हय, बोकडो इतलेंय तुका दिसना?'

भटमाम तसोच मुखार गेलो. थंय दुसरो भामटो तयारेन राविल्लो. ताणें भटाक पळयत अजापान म्हळें, 'भटमाम, तुमी बरे आसात मूं. न्हय, अशे

खांद्यार सुण्याक सो घेतला?'

ताच्या उतरांनी दुबावन भटान बोकड्याक बारीकसाणेन नियाळ्ळो आनी तसोच मुखार गेलो.

मुखार तिसरो भामटो कांय लोकांक घेवन भटाचीच वाट पळयतालो. तो दिसनाफुडें तांणी सगळ्यांनी म्हळें, 'आरे पळयात त्या भटमामाक. खांद्यार सुणो घेवन वता.' आनी ते पोट धरून हांसपाक लागले. 'हांवूच कुड्डो. म्हाका हो सुणो हें कळ्ळेंचना. ह्या सगल्या लोकांक मात कळ्ळें.' अशें मनातल्या मनांत म्हणत भटान बोकड्याक खांद्यावेल्यान सकयल उडयलो आनी तळ्यांत न्हांवन धुवन घेतलें.

भामटे तेंच सोदताले. आयतोच मेळिल्लो बोकडो मारून तांणी घोस्तान खालो.



# सातवी पुरी



एक देडशाणो मनीस खंयतरी वतालो. वतां वतां वाटेर ताका भूक लागली. बेगबेगीन वचून ताणें एका दुकानांतल्यान आठ पुरयो विकत्यो घेतल्यो.

एका बऱ्याश्या जाग्यार बसून तो पुरयो खावपाक लागलो. ताणें एक एक करून तीन पुरयो खाल्यो. पूण ताचें पोट भरलेंना. करतां करतां ताणें स पुरयो खाल्यो. पूण तरीय ताचें पोट भरलेंना, मागीर ताणें सातवी पुरी उखलली आनी खाली, तेबराबर ताचें पोट भरलें.

हो देडशाणो सामको अकलेचो कांदो. तो आपले कडेंच उलोवंक लागलो, 'हांव खरेंच मातपूण अक्कल नाशिल्लो,

पिसाय खरो, पयलींच जर ही सातवी पुरी हांवे खाल्ली जाल्यार पोट भरता आशिल्लें. ह्यो बाकीच्यो पुरयो अशो फुकट वचच्यो नाशिल्ल्यो. फुडले फावटी मात ही चूक केन्नाच करचों ना. सगळ्यांत पयलीं सातवी पुरी खातलों.'



# पिशे मानाय

एक लुगटांचो वेपारी आसलो. एक दीस ताणें बरीं बरीं, उंची लुगटां चामड्याच्या बॅगांनी भरुन घेतलीं आनी तो परदेसांत वचून वेपार करपाखातीर भायर सरलो.

वतां-वतां वाटेरुच ताच्या जम्यांतलो एक ऊंट सामको जार जालो. ताचे बदला दुसरो ऊंट हाडपाक ताका लागींच आशिल्ल्या शारांत वचचें पडलें. वतना ताणें आपल्या मानायांक शिटकायलें, 'हांव गेल्या उपरांत पावस बी पडलो जाल्यार हीं चामड्याचीं बॅगां मात सांबाळात. तांकां भिजूंक दिवं नाकात.'

ताणें म्हळें तशेंच जालें. तो असो गेलो मात, हेवटेन पावस पडपाक लागलो. मानाय आसले सामके अजागळ. धनयान सांगलां तशी चामड्याची बॅगां भिजूंक कशीं दिवचीं न्हय हाचेर ते येवजूंक लागले. तांणी चामड्याच्या बॅगांतल्यान सगळीं लुगटां भायर

काडलीं. आनी त्या लुगटांनी बॅगां घट्ट बरी गुठलायलीं. पावसान बॅगो भिजल्योनात. पूण लुगटां मात भिजून थापो जालीं.

कांय वेळान वेपारी परतलो. पळयल्यार लुगटां भिजून पेड्डेर जाल्यांत. कपलार हात मारीत ताणें म्हळें, 'आरे, पिशांनो, तुमी हें कितें केलें रे?'



मानाय सामके भुर्र. वयल्यान म्हणपाक लागले 'धनयानों, तुमीच सांगिल्लें न्हय आमकां ही बॅगां भिजूंक दिवंनाकात म्हणून. आमी तुमी सांगलां ते प्रमाण केलें. मागीर, आमची कितें चूक?'

त्या मूर्खांची उतरां आयकून वेपाऱ्याक कितें करचें कळ्ळें ना. बॅगांतली लुगटां सुकीं उरचीं म्हूण तर ताणें चामड्याचीं बॅगां भिजूंक दिवंनाका म्हूण सांगिल्लें. पूण पिशे ते पिशेच. कितलेंय सांग तांकां उरफाटेंच करपाची सवंय.



# दोन मूर्ख शिष्य



एका गुरूकडेन शिकपा खातीर खूब शिष्य आशिल्ले. तांचेमदीं दोग मूर्ख आशिल्ले. दोगूय एकमेकांचेर सामके जळटाले. एका शिष्यान सदांच गुरूचो उजवो पांय धुवंचो आनी दुसऱ्यान दावो.

एक दीस, कसल्याशा गरजेच्या कामाक गुरून उजवो पांय धुवपी शिष्याक भायर धाडलो.

मागीर दावो पांय धुवपी शिष्याकडल्यान, ताणें सदचेवरी आपलो पांय धुवन घेतलो आनी उजवो पांय मुखार केलो. आनी म्हळें, 'हो पांयूय मातसो धूय पळोवया.'

'छे, तो पांय ताचो. त्या झगडूकाचो. हांव धुवंचोना

तो.' शिष्यान म्हळें.

गुरून ताका बरें करून समजायलें तेन्ना तो उजवो पांय धुवपाक तयार जालो. पूण पांय धुतना हातांतलो फातर मारू मारून ताणें गुरूचो पांय मोडलो.

सोसूं नजो जावन गुरू हुयेली मारपाक लागलो. त्या आवाजान बाकिचे शिष्य धांवून आयले आनी तांणी ह्या पिसायाक येतिश्ठ पेटलो.

दुसऱ्या दिसा उजवो पांय धुवपी शिष्य आयलो. ताका सगळी गजाल कळ्ळी. तो रागान तांबडोच जालो आनी त्या भिरकेंत ताणें गुरुचो दावो पांयूय फातरान धाडावन मोडलो.

ह्या दोगूय पिशांच्या झगड्यांत गुरू मात पांय वगडावन अपंगूळ जालो.



# मूर्ख जावंय



लग्ना उपरांत पयलेच फावट एक मूर्ख जावंय आपल्या मावोड्या गेल्लो. जावंयांक पळोवन मांय खोशी जाली आनी बरे तांदूळ घेवन वेचूंक बसली. इतल्यांत तिका कसल्यातरी कामाक लागून भायर वचचें पडलें.

जावंय थंयच बशिल्लो. मांय भायर वतकच ताणें मूठभर तांदूळ तोडांत उडयले. त्याच वेळार मांय परतली. मूर्ख जावंय सामको भियेलो. गिळूंक जायना, थुकूंक जायना अशी ताची गत जाली. तोंडांत तांदूळ आशिल्ल्यान ताका उलोवंकूय येना जालें.

अकस्मात जावंयाक कितें जालें काय हें येवजून

मांय भियेली. तिणें घोवाक आपयलो. तोवूय बरोच भियेलो आनी धावंत वचून ताणें वैजाक आपयलो.

वैजान ताका तपासलो आनी म्हळें, 'हाच्या गळ्याक भितर एक फोड आयला सो दिसता. ताचे गोमटेक बुराक करून तो फोड फोडून सगळी मातेर भायर काडची पडटली.'

मूर्ख जावंय तेन्नाय ओगीच रावलो. वैजान ताच्या गोमटेक बुराक घालो. त्या बुरकांतल्यान तांदूळ गळपाक लागले.

मांय-मावांक सगळें समजलें. जांवयाचीं पिसायपणा कळटकच तीं सामकीं पोट धरून हांसलीं.



# मूर्ख चामटो

एका शारांत एक मूर्ख गिरेस्त रावतालो. ताचेकडेन आस्पत खूब आशिल्ली. पूण तो सामको चामटो आशिल्लो. ताणें नाचण्याचें सत्व अळणीच खावचें. रुचीक जेवण तर तो जेवनूच नकळो आशिल्लो.

एक दीस मात ताका खीर खायन दिसली. ताणें बायलेक खीर करपाक लायली.

बायलेक अजाप जालें. पूण ताच्या निमतान आपल्याकूय खीर खावंक मेळटली म्हूण तिणें बेगोबेग खीर केली.

आपल्याक मेळूंक कोणूय आयल्यार तांकांय खिरीचो वांटो दिवचो पडत ह्या भंयान तो घरांत लिपून बशिल्लो.

पूण तरीय ज्युस्तूच ताचो एक इश्ट ताका मेळपाक आयलो. 'तुजो घरकार खंय?' ताणें ताचे बायलेक विचारलें.

बायलेन भितर वचून ती गजाल चामट्याक सांगली. चामटो भियेलो. ताणें आपल्या बायलेक म्हळें, 'हें पळय, हांव असोच मेल्लेवरी पडून रावतां. तूं म्हज्या पांयाक धरून व्हडल्यान रडपाक लाग. तुजें रडें आयकून तो भितर येतलो. तूं ताका हांव मेलो म्हूण सांग. तें आयकून तो परतो वतलो. मागीर आमी दोगांय खीर खावंया.'

जालें, तिणें घोवान सांगला तशें केलें. तिजें रडें आयकून इश्ट भितर आयलो. ताणें म्हळें, 'कित्याक रडटा? कितें



जालें?'

'हांणी म्हजे कडेन खीर खावपाक मागली. हावें खीर केल्या थंय आसा, हे मरून पडले.' रडत रडत तिणें सांगलें.

आपूण खीर खायत ह्या भंयान हीं सगळीं नाडेपेन्नां हें इश्टाक कळ्ळें.

मागीर तोवूय व्हडा व्हडान रडपाक लागलो. रडपाच्या आवाजान आशिकुशीचे शेजारी जमले. गिरेस्ताच्या मर्णाची खबर आयकून ताका मंसडेंत व्हरपाचे तयारेक लागले.

तें पळोवन चामट्याच्या बायलेन रडटां रडटां ल्हवूच ताच्या कानांत म्हळें, 'अवो, आतां उठात. ना जाल्यार तुमकां मंसडेंत व्हरून जळयतले हे लोक.'

'ना हांव उठचोंना. हो म्हजी खीर खांवक रावला हांव ताका ती चडच खावंक दितां. तो जो मेरेन वचना तो मेरेन हांव उठचोंना.' तो ल्हवूच फुतफुतलो.

आनी तो तसोच न्हिदून रावलो. सोयऱ्या-दायऱ्यांनी आनी शेजाऱ्यांनी ताका मसुंडेंत व्हरून सरणार दवरलो. तरीय तो हाललोना. तांणी सरणाक उजो लायलो तरीय तो एक शब्द लेगीत उलयलोना. निमाणो उज्यान हुलपलो आनी मेलो.

इल्लेशे खिरी खातीर ह्या चामटच्यान आपलो जीव वगडायलो. ताच्या फाटल्यान ताच्या आस्पतीचो लाव मात लोकांनी घेतलो.



# बुकलो आनी ब्रह्मचारी

उज्जैन नगरांतल्या एका मठांत एक म्हामूर्ख भट रावतालो त्या मठांत हुंदीरूय खूब आसले. रातभर धुमशेणां कांडून ते भटाक न्हिदूंक दिनासले.

एक दीस ताका मेळूंक आयिल्ल्या इश्टाक ताणें ही गजाल सांगली.

इश्टान म्हळें, 'आरे, एक बुकलो पाळ. तो हुंदरांक खातलो. मागीर तुका त्रास ना.'

'बुकलो? तो कसलो आसता? हांवें ताका केन्ना पळोंवक ना.' म्हामूर्खान म्हळें.

इश्टान म्हळें, 'तुका बुकलो खबरना? घारश्या दोळ्यांचो, हळदुव्या कोराचो, गुबगुबीत. आनी फाटीर भांगराळे केंस आशिल्लो. असो वाड्यार हांगा थंय भोंवतना दिसता.'

इश्ट घरा गेल्या बराबर भटान आपल्या शिष्यांक आपयले आनी म्हळें, 'बुकलो कसो आसता तें तुमी आतांच आयकलां. आतां वचात आनी ताका सोदून हाडात.'

गुरूच्या सांगणेन सगळे शिष्य बुकल्याक सोदपाक गेले. ते परते परते तेंच म्हणटाले, 'ताचे दोळे घारशे, भांगराळे केंस आनी फाटीर ताच्या हरणाची कात.'

एक दीस अशाच वर्णनाचो एक ब्रह्मचारी तांकां मेळ्ळो. तांणी ताका आपल्या गुरू सरीं व्हेलो. ताकाय तो बुकलोच



दिसलो. तांणी रातभर ताका कुडींत बंद करून दवरलो.

दुसऱ्या दिसा इश्टान थंय आयिल्ले कडेन ह्या ब्रह्मचाऱ्याक कुडींत बंद करून दवरिल्लो पळयलो. ताणें म्हळें, 'ताका कित्याक असो दवरला?'

म्हामूर्खान सांगलें, 'तुवेंच तर सांगिल्लें बुकल्याक कुडींत हाडून दवर म्हूण आमी ताका धरून कुडींत दवरला.'

म्हामूर्खाचीं पिसायपणां पळोवन इश्टाक खूब हांसूक आयलें. ताणें म्हळें, 'आरे पिशा, हो बुकलो न्हय. हो ब्रह्मचारी. बुकल्याक चार पांय आनी शेंपडीय आसता.'

त्या मूर्खाक खरें कळटकच खूब वायट दिसलें. ताणें रोखडोच ब्रह्मचाऱ्याक सोडलो. पूण लोक मात ह्या गजालीचेर खूब हांसले.

■

# सोबीत बैल

शारा लागसारूच आशिल्ल्या त्या मठांत चडशे अबुद्धी लोकूच रावताले. तातुंतल्याच एका गिरेस्त मनशाक कोणें सांगलें, 'तळें खणल्यार पुण्य मेळटा.' ते बराबर ताणें एक तळें खणून ताचे चोंयवटेन दुरीग बांदलें.

एक दीस अशीच ताणें तळ्याकडेन पासय मारली. पळल्यार एकेवटेन दुरीग कोणें तरी मोडलां. दुसऱ्या दिसाय तशेंच घडलें. 'असो दुरीग पाड घालपी कोण आसतलो काय?' तो येवजूंक पडलो.

एक दीस फातोंडेरूच तो तळ्यार पावलो. पळयल्यार एक सोबीत बैल मळबांतल्यान सकयल देंवता. तो सकयल देंवलो आनी दुरीग मोडपाक लागलो. गिरेस्ताक अजाप जालें. 'हो बैल शेर्त सर्गांतल्यानूच येता. ताचे शेंपडेक धरल्यार हांवूय ताच्या सांगाताक सर्गांत पावतलों.' ताणें येवजिलें. बैल मळबांत उडपाक लागलो तसो हाणें बेगोबेग ताची शेंपडी धरली. बैल उडलो तो सोमतो कैलास पर्वतार आयलो.

अबुद्धी गिरेस्ताक थंय लाडू पेडे असलें जाय जाय तसलें रुचीक खाण मेळटालें. बैलूय सदचेवरी

सकयल यो वच करतालो. एक दीस हाणें चितलें, बैला सांगाताक सकयल वचून इश्टांची ख







जालें, शेंपडेक धरून हो परतो सकयल आयलो. इश्टांक मेळ्ळो. तांणी ताका विचारलें, 'खंय गेल्लो रे?'

गिरेस्तान सगळी गजाल इश्टांक सांगली. तें आयकून ते सगळेच थंय वचपाक फुल्ले. 'आमकांय व्हरून लाडू खावय मरे' तांणी म्हळें.

'बरे भशेन' ताणें म्हळें. 'पयलीं हांव बैलाची शेंपडी धरतां मागीर तुमी एकमेकांच्या पांयाक धरून हुमकळात.'

दुसऱ्या दिसा बैल येतकच गिरेस्तान बैलाचे शेंपडेक धरलें. बाकिच्यांनीय उमेदीन एकमेकांचे पांय धरले आनी सांखळ कशे हुमकळपाक लागले.

बैल वयर उडलो तशेच हेवूय बैला सांगाताक वयर वचपाक लागले. मदींच एका अरवळान प्रस्न केलो. 'तुवें वयर खाल्लो तो लाडू केदो आसलो?'

'येद्दो' गिरेस्तान लाडू केदो ते दाखोंवक हात अश्शे केले. ते सरशीं ताचो हात सुटलो आनी ताच्या सयत सगळे अरवळ वयल्यान सकयल पडून मेले. ■

# विचित्र वाट

एक दीस एक अरवळ मनीस खंय वतना, वाटूच विसरलो. ताणें कोणाक तरी वाट विचारली. ताणें म्हळें, 'थंय न्हंये देगेक एक रूख आसा ताचे वयले वटेंतल्या रस्त्यान वच.'

हो सामकोच अबरगत. न्हंये देगेर वचून सोमतो रुखार चडलो. आनी रुखाच्या वयर-वयर तेंगशेर चडपाक लागलो. ताच्या पेजान खांदयो बागवल्यो. आनी सकयल पडटा-पडटां ताणें खांदयेक गोळ मारलो.

तेन्नाच ताच्या नदरेक एक हत्ती स्वार न्हंय हुपतना दिश्टी पडलो. हाणें ताका सादयलो, 'आगा, उपकार करून म्हाका वाटाय. नातर हांव सकयल उदकांत बुडून मरतलों.'

तो हत्तीस्वार दयेस्त आशिल्लो. हतयाक घेवन तो ह्या



हुमकळपी अरवळाच्या ज्युस्त पोंदा आयलो. ताणे अरवळाचे पांय धरल्यात मात, हत्ती झुप्प करून मुखार गेलो. आता हत्तीस्वार आनी अरवळ दोगूय हुमकळपाक लागले.

अरवळान हत्तीस्वाराक म्हळें, 'अशेच हुमकळत उरल्यार उदकांत पडून मरतले. तेपरस तुका गावपाक बी येता जाल्यार तूं पद म्हण. घडये पदाचो आवाज आयकून कोणूय हेवटेन येत आनी आमकां वाटायत.'

ताका खरेंच बरें गांवक येतालें. ताचो म्होंवाळ आवाज आयकून अरवळूय धादोसलो. तेच खोशये भरशीं ताळ्यो वाजोवपाक ताणें आपले हात सोडले.

तशे दोगूय उदकांत शेंवटून खंयचे खंय व्हांवून गेले.



# आयकात काणी

साहित्य अकादेमीची स्थापना (1954) जायत सावन भुरग्यांखातीर नियमित रुपान साहित्य प्रकाशनाची कांयच वेवस्था करूंक नासली. खरें म्हळ्यार अशा तरेची येवजण करची अशी कल्पनाच करूं नासली. फाटल्या कांय तेंपासावन साहित्य अकादेमीक हाचो उणाव कळून आयिल्लो.

अशेच तरेचें बरें साहित्य प्रकाशीत करचें जें नवे पिळगेक मार्गदर्शन तर करतलेंच, तांकां जबाबदार नागरीकय जावपाक दिका दाखयतलें, अशें आमचे वावुरपी समितीकूय दिसतालें. हेच नदरेंतल्यान पयलींच्या काळांतल्या काणयांचे प्रामाणिक अणकार तशेंच समकालीन लेखकांच्यो सशक्त काणयो वेंचून काडल्यो, ज्यो आमच्या बालवाचकांचें मनोरंजन.

करपी आसल्योच, तशोच स्फूर्त दिवपीय आसल्यो.

हेच माळेतलें पयलें पुस्तक 'सुनो कहानी' प्रकाशीत करतना अकादेमीक भोव खोस भोगता. हिन्दीचे यशस्वी आनी जेश्ठ कथाकार श्री विष्णु प्रभाकर हांणी 'कथा सरित् सागर' हातुंतल्या काणयांच्या आदारान, हिन्दी अणकार केला. खूब तेंपासावन जायते फावट सांगून, आयकून लेगीत ह्यो काणयो अजूनय तितल्योच म्हेंवाळ, देखदिण्यो, खोसदिण्यो आनी स्फूर्त दिवपी दिसतात.

अशा पुस्तकांवरवीं साहित्य अकादेमी नव्या वाचकां मेरेन पावतलीच आनी तांचे मदीं आपलें एक खास स्थान निर्माण करतली अशी आस्त बाळगितात.






ISBN 81-260-2235-3

मोल : 50 रुपया